# गोंयचीं
# बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां

(१)

संकलन

**तुकाराम रामा शेट**

रंगीत चित्रां

**प्रा. डॉमनीक कोर्दो**




## गोवा कोंकणी अकादेमी

# गोंयचीं बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां

# Goenchim Balgitam, Nachgitam Ani Khelgitam

१

1

प्रकाशन क्र. ३६

Publication No. 36

संकलन :
**श्री. तुकाराम रामा शेट**



उजवाडावपी :
**श्री. ज्यॉर्ज द् आब्रेव**
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें, गोंय

छापपी :
**महावीर ऑफसेट प्रिन्टर्स,**
बाणस्तारी, गोंय

मुखचित्र आनी भितरलीं रंगीत चित्रां :
**प्रा. डॉमनीक कोर्दो**

पयली आवृत्ती : २०००

प्रती : २०००

मोल : २५/- रुपया

Compilation :
**Shri. Tukaram Rama Shet**



Publisher:
**Shri George de Abreu**
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Borim, Ponda, Goa

Printer:
**Mahavir Offset Printers,**
Banastarim, Goa.

Cover & Coloured Pictures :
**Prof. Domnic Cordo**

First Publication Year : 2000

Copies : 2000

Price Rs. 25/-

# कळयो फुलून परमळूं दी

माणकुलीं भुरगीं मेकळेपणान वाडचीं, बरे तरेन जगचीं ह्याच मनांतल्या हावेसान 'गोंयचीं बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां' हें पुस्तक पावल फुडें उबारता. गोंयचीं बालगितां, खेळगितां, नाचगितां, काणयो हो भुरग्यांचे जिणेचो मार्ग जाल्लो लोकवेद परत बालमनांत रुजवणाक हाडपाची गोवा कोंकणी अकादेमीची येवजण चलता. येवजणेंतलें हें सोबीत आनी चित्रमय अशें पयलें पुस्तक रुपकाराक येता.

ह्या पुस्तकांतल्या बालगितांचें प्रशिक्षण खुबशा के.जी., बालवाडी, आंगणवाडी आनी प्राथमिक शिक्षिकांक लाभलां. तशेंच अकादेमी आयोजित करता त्या बालमेळांनी हातुंतलीं बालगितां उमेदीन गायतना, खेळटना, हजारांनी भुरग्यांचे दोळे खोशेन लिकलिकतात.

जून १९९४ साकून गोंयांत नवें शिक्षणीक धोरण चालू जालां. ह्या नव्या शिक्षणीक धोरणाक फावो अशें हें पुस्तक पूर्व प्राथमिक आनी प्राथमिक विद्यार्थ्यांखातीर आसा. ह्या पुस्तकाच्या आदारान भुरगीं मेकळेपणान गायतलीं, नाचतलीं, खेळटलीं. तांच्या बालमनांची घडण जावन तांची कोंकणी भास बरी जातली. तांकां हे मातयेचे संस्कृतायेचें दायज मेळटलें. भोंवतणची वळख आनी ज्ञान जावन सैमाकडलो संबंद वाडटलो. कलात्मक, शिक्षणीक अशी सर्वंगी उदरगत जावन तांचें व्यक्तिमत्व मेकळेपणान फुलून परमळटलें आनी तीं बरे तरेन जगतलीं.

**तुकाराम शेट**

**संकलक**



चानये चानये
गोड कर

हुंदरा हुंदरा
मोव कर
चानये चानये
गोड कर
हुंदरा हुंदरा
मोव कर







वाऱ्या वाऱ्या यो यो
पान पडल्यार तुका
आंबो पडल्यार म्हाका

वाऱ्या वाऱ्या यो यो
पान पडल्यार तुका
आंबो पडल्यार म्हाका





उनात आनी पावस
माकडाचें लगीन

उनात आनी पावस
माकडाचें लगीन



माकडा माकडा
हूप हूप
नाकाक लायलें
तूप तूप
तोरां उडय
खूप खूप





आराड गे माणके
सांज जावनी
सांज जावनीं
आमचे आईक
घरा येवनी
घरा येवनी

बेब्या बेब्या
शिक्याची दोरी
बेब्याची बायल
भिकणां चोरी
येवनी बेब्याक
सांगतऽली
बेबकेक बांदून
घालतऽली
बेबकेक मारूंक
लायतऽली



नाच गे नाच
तुका पोपे दितां पांच
तीन तुका दोन म्हाका
तुयां कोणा सांगां नाका
नाच गे नाच
नाचे गे नाच

हाताक मेथी
पांयांक मेथी
नाच गे भागिरथी
फाल्यां येतलो
गणपऽती
दाखय आरती





बाय गो विनालीन
खोमशी शेदाची
अशी न्हय तशी न्हय
देडशें रुपयांची
बाय गो विनालीन
पांयां चिनेलां
मडगांवां घर बांदिलां
उकतीं जनेलां

ऊठ ऊठ ऊठ म्हातारे
पेज रांदूंक ऊठ
ऊठ ऊठ ऊठ म्हातारे
पेज रांदूंक ऊठ

पेजेंत पडलो जल्लो
म्हातारी घेवन भोंवता वल्लो
पेजेंत पडलो जल्लो
म्हातारी घेवन भोंवता वल्लो



राम राय
साय सुटली
राम राय
साय सुटली





पिक पिक घोडो
मामालो चेडो
पिक पिक घोडो
मामालो चेडो



आप्पड पाप्पड
चंबू लाडू
एक पान
धर गो बेबी
म्हाजो खांद
क्यांव म्यांव
घरे खावं
पातोळेचीं
पानां खावं







कोणाच्या माथ्यार
किरकावळो
किरकावळो

एकट्याच्या माथ्यार
थेयलो नळो
थेयलो नळो
एकटो नाचता
सगलो मळो
सगलो मळो
कोणाच्या माथ्यार
किरकावळो
किरकावळो



आवाळयो धुंवाळयो
मामालो बैल येयला
वाटली तांबयो
काडा गोऽ काडा




आपटी धपटी
खावचें पान
घाल गो बेबी
म्हजें नांव
आ पो
झिंदा पो
ताडी मिडी
पो -

आटपाट चंदनपाट
तो बघ तुजो
मामा येयला
धर  म्हाजी फाट





गाडी धांवता
गाडी धांवता
कूक कूक कूक
इंजिन फुडें
फाटीं डबे
झूक झूक झूक
येयात येयात
घंटी वाजली
घण घण घण
गाडी सुटली
खटक जाली
खट खट खट
गाडी धांवता
गाडी धांवता
कूक कूक कूक



या गो या
आमी हात
गुथुंया



या गो या
आमी हात
गुथुंया
वाटकुळीं
घुंवोन घुंवोन
खेळ खेळुंया
आमी घुंवाळयो
काडुंया
आमी सकयल बसुंया.





शाबी बाबी
ऊठ बेगीन
नाजाल्यार
करता लगीन

शाबी उठलो
बाबी उठलो
तोंड धुना
खालो पोळो

टर टक
टक टक
टर टक
टक टक





आटलो पाटलो
फुलांचो पाटलो
तुजो म्हजो
सोपूत सुटलो
काळी कोंबडी मरना
तुजो सोपूत लागना



होर गया
शिन्नी खाया
होर गया
शिन्नी खाया
घुमचे कटर घूम
घुमचे कटर घूम



येयलो वारो परतलो
कुंडयकाराक व्हरतलो
कुंडयकार पागपी
सुंगटां भाजोन खावपी
सुंगटां जालीं पोलीं
हरीमामाक दिलीं
हरी गेलो रागान
थंय धल्लो वागान



पणसार पणस पिकला
देंठावयलो कुसला.
चिंचेवयली चानी
आपूण म्हुण्टा राणी
चेडवान घातलां कलसांव
पळोवंक गेल्यार बलसांव
रेबेकांव



चानी मामा गुंजी
सगलो लोक पुंजी
चानी मामा वळों
सगलो लोक पळों





वोत आनी पावस
मडवळालें काजार
बेबूक  बसलां मेजार
बेबो करता रोजार



आगे म्हुजे मांय
पेद्रू पडलो बांयंत
पेद्रून माल्ली बोब
फिंर्गी आयले दोग
राजू पावना
पेद्रू गावना



हांव बाबा फेस्ताक वयतलों
पेंपें ढुम पेंपें ढुम करतलों
फेस्ताचे चणे हाडटलों
सगल्या भुरग्यांक वांट्टलों
एक भुरगो उरतलो
तो आमकां पळयतलो





काणी काणी कोतवा
म्हातारेच्या नातवा
म्हातारी गेली कालापुरा
धिपरां फोडोन येयली घरा
म्हातारेची खोपटी
दाण्यान धोपटी



बिलू बिलू माजरा
खूंय वयता काजरा

काजार जावंक गेलें
बिलू वाटेक मेलें

आस्कीना पास्कीना
उदक तापय गो
व्हडलो मामा येत जाल्यार
तांबयो लिपय गो

व्हडल्या मामान
बायल हाडल्या
पांच पयशांची
सकाळीं उठोन
पळयत जाल्यार
नटी मुंबयची







- शेवण्या पिपुशा
- खंय गो गेलेलें?
- घाटार गेलेलें.
- घाटार गो कित्याक?
- वावळयो हाडुंच्याक.
- वावळयो गो कित्याक?
- घोटीर बांदुच्याक.
- घोटीर गो कित्याक?
- तांतयां घालुंच्याक.
- तांतया गो कित्याक?
- पिलां  काडुंच्याक.
- पिलां गो कित्याक?
- मामालें शेतभात राखोंच्याक.





हुंदरा म्हुज्या मामा
आनी हांव सांगता तुका
त्या माजोरीच्या पिलालागीं
खेळ मांडी नाका
हुंदिरमामा आयलो
आनी मेजा पोंदा लिपलो
त्या माजोरीच्या पिलान ताका
एका घासान खायलो